# पडसाद



अन्वेषा सिंगबाळ

**पडसाद**
कविता
अन्वेषा सिंगबाळ



**प्रकाशन क्रमांकः** 3

**पयली उजवाडावणीः** 2016

**बरोवपी**
अन्वेषा सिंगबाळ
9923442746
asingbal@gmail.com

**उजवाडावपी**
अभिनव क्रिएशन्झ
9172112293
abhinavcreations.goa@gmail.com

**मुखचित्र फोटोः** अमोल कामत

**छापणावळः** अभिनव क्रिएशन्झ

**मोलः** रू 150

**Padsaad**
Poems by
Anwesha Singbal



**Publication No.** 3

**First Print:** 2016

**Author:**
Anwesha Singbal
9923442746
asingbal@gmail.com

**Publisher:**
Abhinav Creationz
9172112293
abhinavcreations.goa@gmail.com

**Cover Photo:** Amol Kamat

**Printing:** Abhinav Creationz

**Price:** Rs. 150/-

गोंय सरकाराच्या कला आनी संस्कृती संचालनालयाच्या 'गोंयच्या लेखकांक अर्थीक सहाय्य' येवजणे खाला छापलां.

# तुमच्या काळजांत पडसाद उठ्ठना...

पयलो कविता संग्रह काडटनाच मन कांचवेतालें. दिसतालें म्हज्या कवितांक आपणायत मूं रसीक? तोंखेवप नाका, मात खरो खुरो अभिप्राय तरी मेळत मूं? अशें कितलेशेंच प्रस्न आशिल्ले. ह्या सगळ्या प्रस्नांक खूब बेगीन जापो मेळ्ळ्यो. जापो दिवपी तशे तशे मनीसय मेळत रावले.

म्हजें लग्न थारलें आनी कितलेशेच जाणांनी सांगलें, आतां तुज्या लिखाणांत खंड पडटलो. तुज्या साहित्यीक, सामाजीक वाटचालीक आता ब्रेक लागतलो. हें सांगपी साहित्य, सामाजीक क्षेत्रांतल्यो लेगीत काय बायलो आशिल्ल्यो. मन कांचवेलें. म्हज्या लग्नाच्या सारक्या 9 दीस पयलीं म्हजो पयलो कविता झेलो 'सुलूस' उजवाडाक आयलो. 13 नोव्हेंबर 2011 हे दिसा. तरीय सुलूसाच्या प्रकाशन सुवाळ्या दिसा मोट्या धिटायेन सांगिल्लें हांवें, "म्हजे जिणेंत लग्न हे घटनेक हांव स्पीड ब्रेकर जावंक दिवचें ना." लग्न जालें आनी म्हजे जिणेच्या गाडयेक वेगळोच वेग चडलो. ज्या कोंकणीच्या दर्याक हांव बेठें पांय लावन आयिल्लें, त्या दर्यांत हांवे पुराय उडी मारली.

कोंकणीच्या मळार हांव आनी सुप्रभात दोगांय हय न्हयशीं सक्रीय

आशिल्लीं. मात आमचें घर एक कोंकणीचो अड्डो जावन पडटलो हे घडये आमी दोगांयनीय चितूंक नासलें. 2012 वर्सा कोंकणी भाशा मंडळाच्या सरचिटणीस पदाची जबाबदारी म्हज्या भुजांचेर दिवन म्हजेर कोंकणी भाशा मंडळाच्या पदाधिकाऱ्यांनी खूब व्हडलो विश्वास दाखयलो. जबाबदारी व्हडली आशिल्ली मात ती अचळयां पेलपाचे बळगेंय ह्याच म्हज्या इश्टांनी दिले. आनी ह्याच इश्टांनी साहित्या कडेन पळोवपाची नदरय बदलून उडयली.

ल्हान आसतनाच्यान केन्ना म्हाका कविता वाचना फुडें कवतुकाच्यो ताळयो पडल्योच नात. बाबा अक्षरशा त्या कवितांचें पोस्ट मोर्टम करतालो आनी केन्ना केन्ना सरळ त्यो पिंजून डस्टबिनांत लेगीत उडयतालो. अश्या वातावरणांतल्यान वयर सरतना साहित्य म्हणल्यार फकाणां न्हय आनी ते लोकांच्या हातांत दितना तर हजार फावट विचार करूंक जाय हें मनांत ठाम जाल्लें. जिणेंत मेळिल्ल्या ह्या इश्टांनी म्हजी मतां आनीक घट्ट केलीं.

आयज हो कविता झेलो वाचकांच्या हातांत दवरतना पयल्या पुस्तका परस तो उंचेल्या पांवड्याचो आसा कांय कितें ह्या म्हज्या प्रस्नाची जाप वाचकच दितले. पयली बशेन तांच्यो प्रतिक्रया, टिका, कवतूक म्हजे खातीर टॉनीकच थारतलें हातूंत म्हाका दुबाव ना. पडसाद तुमच्या हातान दितना, तुमचें प्रामाणीक मत मेळचें हीच प्रामाणीक अपेक्षा.

**- अन्वेषा सिंगबाळ**

# मांडावळ

# तूं तरी जाणां?

तुज्या बॉय कट केल्ल्या कोंगऱ्या केसांत
भोंवडायता जेन्ना तूं हात
म्हज्या काळजाचो जाता गो घात
त्याच खिणाक

तूं लावन फाटीक बॅग
मारत उडयो, धांवता हांगा थंय
नदर म्हजीय मारता उडयो
खिणा खिणाक

लावन मोबायल कानाक
व्हडल्यान घालता जेन्ना तूं धेंगशे
तुजो धांक करता पिसो
म्हज्या मनाक

उमेदीन जावन खोशी
व्हडल्यान आड्डता तूं तेन्ना
दिसता धरचे घट्ट वेंगेंत
त्याच खिणाक...

तुका ना शिंगाराची आस्त
ना सुंदर दिसपाचो सोंस
पूण सुंदरताय तुजी हीच मोगा
हें तूं तरी जाणां???

## सांगात

आयलो तूं?
सारको तो गेलो
आनी तूं आयलो
वोदोळच्यान तिश्टतालें तुका,
तुज्या थेंब्यांनी
चिप्प भिजून
ताच्या गोपांत
रिगपाचें आसलें म्हाका
पूण तूं आयलोच ना,
आनी आतां आयला
तो वतकीर,
हांव एकटें आसतना,
सांगाताक कोण नासतना...
आनी कुपां फाटल्यांतल्यान
पावसान ल्हवूच म्हणलें,
"आगो,
हांव तेच खातीर तर आयलां
तुका सांगात दिवपाक
तुजें एकटेपण
ना करपाक".

# आमी वेगळीं?

तो ताचे जिणेंत खोशी
हांव म्हजे
तो ताचे वांगडा
हांव हाचे वांगडा...
तो ताचेर उपाट मोग करता
हांव हाचेर
एका काळार केल्लो उपाट मोग
आमी एकामेकांचेर
आयज आमी दोगांय
मोगाक इश्टागतीचें नांव दिवन
जाल्यांत वेगळीं,
एकामेकां पासून न्हय,
एकामेकांवेल्या मोगा पासून.

# वर्तमान

भूतकाळ आनी वर्तमान काळांत
कितलें साम्य, कितलें वेगळेपण
एक हांसयता जाल्यार दुसरो रडयता
एक रडयता जाल्यार दुसरो हांसयता
दोगांयची तुळा करप म्हणल्यार मात
मूर्खपणां...
भूतकाळ गेलो, वर्तमान उरला.

# सरता जीण

तुजे खातीर हांव धरून सगळीं आसात
म्हजे खातीर तूं सोडून कोण ना
अशीच जीण सरतली
तुजी, म्हज्या सांगातान,
बाकी सगळ्यांक सांबाळत,
म्हजी, तुज्या सांगातान,
स्वताक सांबाळत

# शेणलें खंय?

एक सपनाळें जग शेणत चल्नां
एक दीस पुराय शेणटलें
ताकाय कळचें ना,
म्हाकाय समजचें ना...
मात स्वताचेर ओडिल्लीं
अडेचीं सवंगां पयस जातलीं
तेन्ना हांवें स्वताकच पिश्यांत
काडिल्ल्याचो
भास जातलो
हांवें स्वताकच व्हगडायिल्ल्याचो
आभास जातलो
आनी स्वताक परत सोदपाचे सगळे यत्न
निर्फळ जावन
म्हजें म्हाकाच विचारतलें,
'हांव खंय शेणलें?
खंय ना जालें?
खंय स्वताक शेणोवन बसलें?'

# चोर

ते अर्दे उबारिल्ले
इमारतीच्या सातव्या माळ्या वेल्यान
माथ्यार पदर घेवन,
शिमिटाच्यो कायली सांबाळत
व्हडा उमेदीन ती दोगांय
सकयल पळयताली.
कांय वर्सांनी ती इमारत
पुराय जावन चकचकतली
वज्रां भांगरां शिंगारून लकलकतली
टोक टोक बुटांचे
आनी हाय हिल्सांचे आवाज
सूट बूट मारून चलतलो थंय
आधुनिकतेचो गाज..
ती दोगांय चुकून
पावत थंय केन्नाय घडये
सकयल रावन तेळत तो सातवो माळो
इतल्यान वॉचमेन धांवत येतलो
धांवडायतलो तांकां
चार गाळी मारून
म्हणटलो
'चोर खंयचीं.'

# सांगाता

तुजेच बद्दल
तुजेच कडेन उलयतना
आतां म्हजें मन
म्हाका सांगता
आपालिपाचो
खेळ सोंपय
कर ह्या खेळाची
सांगाता.

# चुकिल्ली वाट

चुकिल्ले ते वाटेर
दिसलीं पाचवींचार शेतां
अनवळखी जावं ती वाट
थंय वळखिचींच गणितां
रखरखीत वत
कडकडीत दनपार
आंगार ओडपाक ना
झाडांपेडांचीय झालर
खीणभर दिसलें
खंय येवन फसलें
दिसली दनपारची काकूळट
ओगीच तिका शिणलें
दनपारूय आसुंसता आसतली न्हय
मनश्यांचे सावळेक
उमगलें म्हाका तेन्ना
स्वता भीतरच हांव खांकूडलें.

## मौन

कितलें कितें दडलां
ह्या
कांय म्होंवाळ खिणांत
उतरां नात
गजाली नात
पूण तरीय त्या मौनांत,
त्या खोल दोळ्यांत
ते मोगाळ नदरेंत
ताच्या घट्ट वेंगेंत
कितलें कितें दडलां
कितलें कितें लिपलां.

# पिशें मन

ताची म्हजी भेट
घडून घडना
मनांत आसून लेगीत
गांठ पडना
ताणें कांय वर्सां पयलीं
घाल्लो साद
सपनांक म्हज्या दिल्लों
नवो गाज
ल्हवूच फुलयिल्लो
कांटो आंगार
चडयल्लो नवो रंग
मन पटार
चोर पावलांनी रिगिल्लें
म्हजे जिणेंत
घेवन गेल्लें
नव्या हावेसांच्या दुनियेंत
तें अचकीत सोडून गेलें
अर्दे वाटेर
आतां परत
तेच रस्ते कांटयारे
तुजे विणें गो
पिशा मना.

# आदर्श

तिणें निमणें
आयज थारायलेंच

आदर्श धूव
आदर्श सून
आदर्श घरकान्न
आदर्श आवय

हीं सगळीं बिरुदां
मोखून मारप
सोंशीकतायेचीं
समजिकायेचीं
त्यागाचीं
तडजोडीचीं

अलंकार
भिरकावन मारप

आनी कितें अजाप?
पयलेच फावट
तिचे मदले अस्तुरेक
तिच्या मदलो मनीस
स्पश्ट दिसपाक लागलो
कसलोच्च भेदभाव करिनासतना.

# गुपीत

जिणेच्या दर्यांत
कितलींशींच व्हडीं
कांय आलतडीन
कांय पलतडीन

कांय देगेर पावतलीं
कांय मदींच बुडटलीं
वाऱ्या वांगडा धोलतना मात
दर्याचेंय गुपीत सांगतलीं

पावलें तडीर जाल्यार लेगीत
दितां वचन दर्या तुका
म्हजे जिणेचें गुपीत तुका
तुजें गुपीत फकत म्हाका.

# उतर

तें उतर
म्हऱ्यांत येवन
ल्हवूच मुरगूटलें
ल्हवूच म्हऱ्यांत येवन
खातकुतल्यो करून
गालांतल्या गालांत हांसलें.
कानांत म्हज्या
कितें तरी
ल्हवूच तें फुतफूतलें
तें उतर मागीर
सासणां खातीर
काळजांत म्हज्या रिगलें
म्हजेंच जावन जगलें
म्हजेंच जावन तिगलें
अज्रांवर जालें.

## कळे

मळब आयज
जालां तळें
चंद्र सूर्य
व्हांवन गेले

पिशे तुजे
यादीन मोगा
दोंगर लेगीत
ओडून व्हेले

नकेत्रांनी
धांपले दोळे
किरणांचे
दोळे ओले

काळजांत म्हज्या
सूत्र न्हिदल्यांत
दोनच तुज्या
मोगा कळे.

# हे देव देवते

तिणें ते दीस
गर्भकुडींत वचून
देवाच्या दोळ्यांत
दोळे घालून सांगलें
आयज म्हाका म्हजी न्हय
तुजी लज दिसतां
लोक म्हणटात
तूं म्हाका सांबाळटलों
म्हजें रक्षण करतलों,
पूण जंय तुका पुजतना लेगीत
म्हजें दुय्यम स्थान
तुज्या प्रशासनांत
जंय ना म्हाका अधिकार,
म्हयन्यांतले तीन दीस
जंय हांवें तुजे पासून पयस रावप
थंय तुजे कडल्यान कसली रे अपेक्षा?
आनी हे देवते
जंय तुजोय
ह्याच पुरूशां कडल्यान
सेवा करून घेवपाचो अट्टाहास
थंय म्हजो गे कसलो ध्यास?

## म्हजी सत्री शेणली...

म्हजी सत्री शेणली
तशी नविदाद कांय ना तातूंत,
दर वर्सा प्रमाण
तिणें आपली रीत पाळ्ळी
बशींत, दुकानार, ऑफिसांत, हॉटेलांत,
ती दर फावट शेणटा
म्हजीच कित्याक
ताची, तिची, सगळ्यांचीच शेणटा
हरशी शेणिल्ले पयशे, मोबायल
वस्ती लेगीत परत मेळटात
मात सत्री म्हजी सदांच
ह्या नेमाक अपवाद थारता
सत्री हाताक लागना जाल्ल्यान
हांवें मळबा कडेन पळयलें
काळ्याकिट्ट कुपांतल्यान
पावसान ल्हवूच शिटकायलें
सोदून काडलेंच हांवें
सत्री शेणपाचें गुपीत
वेंगेंत घेवंक आतूर जाल्ल्या पावसान
जेन्ना दोळ्यांनीच खुणायलें.

# दर्या म्हजो

आयज खूब तेंपान
म्हज्या दर्याक
सांसपून आयलें
ताचे मायेची
ऊब घेवन आयलें
तो हुंडकेतालो खरो
म्हजे खातीर
काय
आमचे खातीर
तें मात कळ्ळें ना
थाव कसोच
लागलो ना.

## पींड

आंगणांत मरून पडिल्ल्या
त्या कावळ्या भोंवती
जायते दीस
कावळे गिरगिरींत आशिल्ले
रावूं नजो जावन
हांवें केली वासपूस
तेन्ना कळ्ळें
कावळ्याक पींड म्हणून दिल्लें
उंदराचें मांस खावपाक
खंयचोच मनीस
आयलो ना
तेन्नाच्यान
त्या कावळ्याचो आत्मो
भटकत आसा
मेळटा त्या मनश्याक
चोंचायत आसा.

## मोनें मन

केन्ना तरी सोरो पिवन
धुंद जावन
रातीन म्हाका गोपांक ओडटलो
पिसो कसो मोग करतलो
म्हणून ती तिश्टेता

आनी शेजरा मात,

काल रातीं
तिच्या मोन्या कुडीचेर
बळजबरी करपी
तिच्या बेबद्या घोवाक मात
आयजय तिचें मोनें मन खेपत आसा.

# थोडें उरलेंच

कितें सांगपाचें आशिल्लें
थोडें म्हजें
थोडें तुजें
कितें समजुपाचें आशिल्लें
थोडें तुका
थोडें म्हाका
कितें विचारपाचें आशिल्लें
म्हजें म्हाका
तुजें तुका
उरलेंच सगळें
उरलेंच म्हजें तुजें
जावन गेलें हांव तुजे

## नवें सपन

आशिकुशीक काळोख माखून
गुप्प जाल्ले जिणे कॅनवासार
हावेसांनी फेर धरला
रंगांनी गुलाल मांडला

अडीनडी पयस मोखून
खोशयेचो आयला सांवार
सैमान गोपांत ओडला
न्हंयो वझऱ्यांनी संगीत जोडलां

संकश्टांचे कांटे रोमून
जीव जाल्लो जार
उमेदीचें गुपीत भोंवलां
नवें एक सपन रूजलां.

# रीण

तो खीण
जिणेची वीण
मनपेटुलांत
सपनांची कीण कीण
स्पर्श असो
तुजो म्हजो
काळजा कुरकुटांत
तुजें रीण

# ना म्हणून

म्हाका घर आयज
खावंक येतां
तो घरांत ना म्हणून

रस्त्यावेले ते बाबडे
म्हज्या घराक तोखेतात
तांचे कडेन घरच
ना म्हणून

# तागडी

निकतेंच
उलोवंक लागिल्ल्या
आपल्या बाळकाक
ती व्हडा लत्कुबायेन तोखेताली
ताच्या दर एका बोबड्या उतराक
आपल्या काळजा पोश्यांत जिखताली

कुशीच्या सिटार
बशिल्ल्या त्या
खुणो करपी तरणाट्याचेर
तिरकस नदर मोंखताली
ताची धडपड नदरे आड घालून
आपल्या पोक्या तागडेंत ताका
जोखताली.

# नवो प्रवास

दोन दुकां गळ्ळीं पोल्यार
खोशयेंत ताचे सामील जातना
हुंडक्यांनी रडिल्लें काळीज
वाटो आमच्यो वेगळायतना

आयज सैमाक चडल्या नशा
धुंद आमकां तोखेतना
तेन्ना कुपांय गेल्लीं आटून
आमकां घडये थातारतना

थरोवन मांडिल्ल्या नात्याची
घडी आयज गुठलायतना
नांवा बगर नवो प्रवास
तुजे साक्षीन आळयतना

दी वचन चंद्र सुर्या
दी वचन निळ्या दर्या
परत चुकली वाट जाल्यार
थातारनाका पिश्या मना
थातारनाका पिश्या मना

# दोळ्या आड...

जिविताचें तारूं वल्लयतना
कितले फावट दिसता
आतां तें परततलें
वादळ वाऱ्यान हुबून वतलें

तेन्ना नशिबाक दिवन दोश
आपल्या पेल्यांचेर बेठोच रोश
म्हज्या वांट्याक कित्याक हे भोग?
कसलो हो बेठोच वियोग?

तडीक पावतां तशें मात
सगळेंच गणीत बदलतां
नशिबाचो फेर मागीर
आपलीं चाकां घुंवडयता

आपले पेले दोळ्या आड
राखलें कोणें पडूं पाड
नव्यान सुरू जावंदी जिवीत
दोळ्यां आड मसंड पाड.

# रुजवण

सुपुल्ल्या घरान म्हज्या
कितली खोशी पळयली
जिणेंतली जायतीं सपनां
हांगाच हांवें रूजयलीं

भाड्याचें जावं तें घर
हांगा हावेस न्हय गा भाड्याचे
बंगल्यांच्या सुखाचें गणीत
हांगा थारता गा शुन्याचें

किल्ललीं नवीं बिंयां
तांकां सारें माती घाली
जिणेंतली जायतीं सपनां
हांगाच हांवें रुजयलीं
हांगाच हांवें रूजयलीं.

# आहुती

तो आदर्श आशिल्ल्याचो
तळागळांतल्यान घुमता आवाज
पूर्ण पुरूश, सत्य पुरूश
धाय दिकांतल्यान होच गाज.

चुकून सुद्दा ना जावची याद
त्या कारणा विणें अग्नीपरिक्षेची
बायलेची आहुती दिवनच तर
सत्य थारल्या कथा वीरपुरुशांची.

## आस

ओल्या ओल्या
पोल्यार म्हज्या
मिठा कणयो
बरसतात
मोन्या मोन्या
ओंठार म्हज्या
उतरां येवंक
तरसतात
मोल केले
भावनांचे
म्हणून काळीज
हुंडकेता
मुक्त जावंक आशेता
मुक्त जावंक आशेता.

# सकारात्मकता

जिणेंतली नकारात्मकता पयस करूंक
ताणें कितें कितें केलें
शांती केली, पुजा केली
तप केलो, जप केलो,
स्वामी केले, देव केले
हाका ताका दान दिलें
पूण कशीच वचना जाली ती
निमणें ताणें एक केलें
एका सकारात्मक मनश्या कडेन
जोडलें नातें
नकारात्मकतेचें वजें
जालें खिणांत खोटें,
जालें खिणांत खोटें.

# केन्नाय

पयल्या पावसांत
ताकाय याद जाता काय
त्या आंगार कांटो हाडपी
स्पर्शाची?
असोच बशिल्ले कडेन
रमता काय
तोय यादींनी?
केन्नाय पोल्यार
ओगीच गळटात काय
दोन दुकां ताच्याय?
मोबायलाचेर नांवां चाळटना
म्हज्या नांवा कडेन थांबता
काय बोट ताचें?
ताच्याय कानांत केन्नाय
घुमता काय हांसो
त्या खिणांचो?
तोय खीणभर
विचार करता काय
हांव करतां तसो?
केन्नाय...

# एकूच फावट

खरो मोग
आसचो निस्वार्थी
खऱ्या मोगांत
नासची परत फेड
खऱ्या मोगांत
नासचें दिवप घेवप
खरो मोग
निस्सीम, निरागस
म्हणूनच घडये
खरो मोग
एकूच फावट जाता
अशें म्हणटात
कारण मनीस
इतलोय खंय
निस्वार्थी निरागस
उरूंक पावता?

# खेळ

गैरसमजांचो खेळ पोन्नोच
पूण आतां असहाय्य जीण ना
म्हजेंच म्हणून हक्कान म्हणपी
तांकांच घडये भीड ना

कोण आपले परकी कोण गा
कसलोच आतां शीण ना
विश्वासाचे सोंपले धागे
कोणाक कसलेंच रीण ना.

# आरे रे रे!

फेसबुकार गाजता
मोगा कोडें
घरांत मात सायबा
सदचें रडें
फोटवांचेर फुल्ल्यांत
मोगा कळे
हरशी मात कापता
केसान गळे
सपनांचे फुल्ल्यांत
ओंठार मळे
दोळ्यांत मात सांचलां
दुकां तळें
परब्यांचो शिंवर
मोबायलाचेर
मेळटकर चुरचुरें
आरे रे रे!

# प्राणीधर्म

घरांतल्यान हुमटोवन आमकां
शारांत हाडून उडयलें
आनी बिनधास्त जाले तुमी
आमच्या रानाचे राये
हांगा मेकळेपणान भोंव
म्हण तोंड वयर करून सांगतात
आनी केमेऱ्यांनी टिपतात
काळजार पडपी घाये
मनीसधर्म सोडला तुमी
आमी अजून प्राणीधर्म पाळी
हांवें केला तो न्हय खून
कशें सांगूं माये?

(दिल्ली एका प्राणीसंग्रहालयांत वागान एका भुरग्याक मारलो ह्या आरोपाचे फाटभुयेर)

## फ्लर्ट

एकदांच जाता खंय मोग
म्हणून म्हाका ते फ्लर्ट म्हणटात
म्हाका लिपोवंक कळनात भावना
म्हणून म्हाका ते हलकट म्हणटात

कोणाक जाय तेन्ना म्हजो खांदो
हरशी ते पत्नी व्रता
गरज पडटा तेन्ना मारतात उलो
ना जाल्यार मुल्यांची गायतात गाथा

म्हाका तरीय ना खंत ना दुखणें कसलेंच
हांव तुजेंय ताचेंय सदां सदां
रडणें, खुपणें तुमच्यो स्टायली
हांव मेकळें उडपी म्हजी मेकळी अदा.

# सपन

खीणभरच्या स्पर्शा खातीर
मन बेठेंच मारप
आनी खेपप स्वताकच
उसन्या खिणांत

रातीच्या सुखांत
दिसाची नसाय
उदेंतीचो सूर्य बाबडो
बुडलो रिणांत

जल्माचो सांगात
मागलो घटकेंत
आनी काळीज बसलें
सपनां विणत

# दिगंत

तो अजुनय सपनांत येवन
म्हजो हांसो पुंजायता
म्हज्या गालावेली लाली
दोळ्यांत खोल भरून घेता
आनी अचळय म्हज्या काळजांत
साकरेचो पाक घोळून वता
नवो दीसय मागीर जाता
साकरेवरीच गोड
म्हज्या दोळ्यांक लागता
दिगंताची ओड.

# किण्ण

सकाळ फुडें कानांत घुमलो
भयांकृत तो आवाज
खण्ण, टण्ण, ढण्ण
कच्च करून
काडलें आंग
भायर काळोख भीण्ण
वादळ काय भूंयकाप
कोसळ्ळ्यो वणटी काय?
तकली जाली सूत्र
मारली रांदची कुडींत नदर
आयदनां परत आदळ्ळीं
टीण्ण, टुण्ण, ढिण्ण
सदचो राग खिणांत गायब
आयज व्हड सुस्कार
मागीर सगळें कीण्ण.

## रूच

आदनांत बरी शिजिल्ली
खतखतीत कविता
घस्स करून
जेन्ना पानार पडटा
तेन्ना वासानच पोट भरतां
कविता आपशीच रुचीक लागता.

# हांव ताचें

एक संवाद
म्हजो ताचो
शब्द म्हजे
अर्थ ताचो
उत्फर्के म्हजे
भावना ताच्यो
दुकां म्हजीं
व्यथा ताच्यो
म्हजे सगळे अडेचें
फकत इतलेंच
हांव मात ताचें.

# पिशी पिळगी

गांवान गेल्ले कडेन
भाणाक घाल्लो उजो
खिणांत पालवलो
दोळ्यांत भरलो धुंवर
फुंकली नळी
मागीर पुठ्ठो
निमणें कॅरोसीन
म्हगेल्या फाटल्या पिळग्यांक
कॅरोसीन परवड नाशिल्लें अशें न्हय
पूण नळी फुंकपाचे श्रम
आनी दोळ्यांत वचपी धुंवर
पचोवपाची तांक
घडये चड आशिल्ली जांवये
तांचे कडेन
आमची जीण इंस्टंट
गिजर ना जाल्यार
चडांत चड
स्टोवार तापयल्लें उदक
आनी तोपांतल्यान
उदक बालदेंत रकयतना
कमरांत कस्स जालें जाल्यार
हक्काची चार दीस लीव
आमी बदल्यांत खरीं
आदले पिळगेक पिशी म्हणत.

## माधवी ताई...

आयज कोंकणी अळणी जाली
मिठा कणयेक पोरकी जाली
निरंतर चलपी वज्र्याची त्या
खळखळ आयज बंद जाली

रुपडीं तोंडार चडयलीं नात
वाकडें केन्ना उलयली ना
हांसत्या त्या मुखावेली
तांबशी सया ना जाली

ध्यास घेवन जगपी तिका
पुरस्कार आनी कसलो वेगळो
तिच्या बगर आयज कोंकणी
आपलेपणाक परकी जाली

आयज कोंकणी अळणी जाली
मिठा कणयेक पोरकी जाली.

## पांगरूण

यादींत उरपा सारकें
नदरे मुखार दिसपी
अशें काय
दिलें ना तुवें केन्नाच
म्हणून घडये यादी तुज्यो
घट्ट पांगरून बसल्यांत
म्हज्या काळजाक
केन्नाच
सोडून वचच्योनांत म्हणत.

## बोवाळ

म्हाका बोवाळ आवडटा
रस्त्यार
दर्यार
बाजारांतल्या भर वेळार
शिगम्यांत
जात्रेंत
शाळेचे मदले सुटयेंत
फेस्तांत
काजरांत
लग्नाच्या भव्य माटवांत
हांव रमतां
लोकांची ऊब घेत
म्हाका
हांव जितें आसपाची
सुलूस लागतां
हे गर्दीत, बोवाळांत
लोकांच्या.

## रीत

काळजाच्यो फांदयो बागोवन
मोगा तुका येवकारतना
काजुल्यांची दिव्या आरास
रातकिड्यांचें मोगा गीत

तुजीं म्हजीं पावलां मोगा
एकामेकांत आडखळटना
मोने जाल्यात उस्वास
तुज्या स्पर्शाक ओ दीत

हात अळंग धर सोडत
दोळे नदर चुकयतना
तुजो खोल आभास
घडयता नवी मोगा रीत.

## आय लव एनिमल्स

पॅट शॉपा भायर रावन
तो तोखेतालो भितल्ल्यो गजाली
अदीं मदीं त्या पर्शीयन कॅटाक
ल्हवूच दोळो मारतालो
तेंय मुरगुट्टालें ताका पळोवन,
इतल्यान ती मॅडम भायर आयली
आपलो पग हांडीर मारून
एक खोट मारली तिणें ताका
रस्ताद सुणो खंयचो म्हणत
आनी मागीर निट्ट गेली किटी पार्टीक
'आय लव एनिमल्स' म्हणून सांगपाक.

# कपयाळें

हय एक नातें तुटलां
म्हजे जिणेंतलो एक धागो सुटून
खंय दुसरे कडेन घुस्पला
तरीय खूब उमेदीन शिवलां हांवें
म्हजे जिणेचें कपयाळें
परत एकदां तरेकवार
रंग भरल्यांत तातूंत
आतां उरलां मारपाचें निमणें पोंत
आनी मागीर मांडपाचें तें
नवीं सुखां, नवे हावेस आपणावंक
मदीं केन्नाय सुटलेच धागे
जाल्यार
परत शिंवून परत मांडपाचें
आनी पडलीच गरज जाल्यार
नव्यान शिंवपाचें जिणेचें कपयाळें
नव्यान सजोवपाक, नव्या खोशयेन.

# वाट

वाट सदांच तीच आसता
तिका खूब कितें
सांगपाचें आसता
ती खूब कितें सांगत आसता
केन्ना मखख, मोनी, ओग्गी
जाल्यार केन्नाय
खूब कितें बडबडत आसता
केन्ना हांसता खळखळून
जाल्यार केन्नाय हुंडक्यांनी रडटा
केन्नाय भुल्लूसता, मुरगुट्टा
केन्नाय घुसमट्टा, फुगार जाता
केन्नाय स्वताकच सोदता
जाल्यार केन्नाय स्वताकच शेणयता
आसता मात थंयच
तरीय धांवत पळत रावता
केन्ना पडटा धडपडटा
केन्ना आपल्यांच्याच जिवार उठटा
केन्ना घट्ट वेंगेंत घेता
केन्ना हिणसावन पयस धांवडायता
कितेंय कशीय जावं
वाट
ती थंयच आसता
तशीच आसता.

## जायां पोड

म्हज्या काळजान
गुंथिल्लो
यादींचो
जायां-पोड
आयज सट्ट करून
सुटलो
घम्म करून
नाकांत रिगलो
ताचो वास
तो अजुनय
परमळ फांकयता
म्हजे जिणेंत
सुकून
बावून
लेगीत.

# मोड

आयज अचकीत जर
तो आयलो सामकार
आनी
तुज्या दोळ्यांत दोळे घालून
ताणें म्हणलें
आयज तुजे भितर
स्वताक विसरन दिसता
जाल्यार कितें करतलें?

ते पावशी थंड रातींत
ताणें वेंगेंत घेत विचारलो हो प्रस्न
आपले बायलेक
तिच्या पयल्या मोग्या विशीं

आकांताच्या मोडांत
जर व्हांवन वचपाचेंच आसा
बेधूंद नशेंत
बेभान जावपाचेंच आसा
जाल्यार त्याच खिणाक
रिगतलें ताचे भितर
मोग कितें तो ताणेंच तर शिकयल्लो
तिणें जाप दिली,
ताची वेंग आनीक
घट्ट करत

ती दोगांय हांसलीं
आकांताचें मोड तेन्नाच आयलें
बेधूंद चिप्प भिजोवन गेलें.

# दीस आमचो ?

बाबू शाळेंत वचपाक नाका
म्हण आड्डतालो
बॅग जड लागता
म्हणून पिरंगतालो

मिड डे मिलांत
आयज पाल काय जल्लो
सारक्यो जापो दिल्यो ना जाल्यार
टिचरीचो हल्लो

सगळो हुस्को भंय
लावन खुटयाळेक
रखडत रखडत
बाबू शाळेंत पावलो

प्रार्थनेक जाली सुरवात
टिचरीन दिलो बाबू कडेन
पेपर त्या दिसाचो
भीत भीत बाबून
पेपर उगडलो,
वाचली पयलीच बातमी
आनी आपलेच भीतर खांकूडलो

पेपराचेर हेडलायन
आयज भुरगीं कामगार आड दीस
मनांत ल्हवूच बाबून म्हणलें
आरेच्या, म्हणजे आयज आमचोच दीस.

# आपलो वेळ

आपल्या हक्काचो
म्हणून थोडो वेळ
दर एकट्याक जायच आसता
त्या वेळांत
कशेंय वागप
कितेंय बडबडप
कितेंय चाबडावप
कशेंय गावप
कितें तरी रंगोवप
कितें तरी बरोवप
तापप, आडुवप
श्रृंगारप, सपनेवप
आनी मागीर
हांव एक 'सॉशल एनीमल'

म्हणून स्वताक समजावन
परत ह्या समाजांत
दुसऱ्यांक जाय तशें
हाका ताका सांबाळत वागप
पूण हो स्वताचो थोडो वेळ जायच हां!
त्या समाजाच्या बंधनांक स्विकारपाक
ताका जाय तसो वागतना
स्वताक ल्हवूच समजावपाक
आसा हां!
तुजे कडेन
तुजो थोडो वेळ
पिसो जावपाक
तुका जाय तसो वागपाक.

## धडपड

न्हायना फुडें
म्हाका म्हजें तोंड
हारश्यांत पळोवपाक
खूब आवडटा
तें शांत, प्रसन्न
मुखामळ पळोवन
हांव म्हज्यांतच मुरगुट्टां
खोशी जातां
दीस वता तसो
रांदनी मुखार
कंप्युटरा मुखार
वतान रस्त्यार
म्हज्या त्या प्रसन्न
तोंडाचेर हल्ले जायत वतात
ते बावतां, करपतां
पूण ताचे वाटेक
हांवूंय वचना
आनी कोणय

कांय दिसांनी
न्हाल्या उपरांतय
म्हजें तोंड
म्हाकाच वळखुपाक भियेतां
आनी हांव धांव घेतां
ब्युटी पार्लरांत
मॅक ऑवर करपाक
दुसरे दिसा न्हाल्या उपरांत
परत एक फावट
म्हाका तें प्रसन्न दिसतां
हांव धादोशी जातां
दिसाचें चक्र परत सुरू
म्हजी धडपड पळोवन
म्हाका हांसून
म्हजें मन सांगता
"आगो, म्हजीय केन्नाय कर गो
अशीच लक्तुबाय."

## प्रस्न 1

कितें चुकलें तूं
कितें बिनसलें तूं
प्रस्न जंय जाप तूं
राग जंय उश्याप तूं

तूं देवळांत
तूं देवाऱ्यांत
तूं गर्भकुडींत
तूं हाता-गळ्यांत

तूं काळजांत मात
चुकुनूच
तूं अंतर्मनांत मात
दुर्मीळच तूं दिसना

तुजेर काड राग
तूं उलयना
कर वित्राग

म्हणून दिसपी मनश्यांत
न्हय श्रद्धा
दुसऱ्यांच्या काळजांत
ना गर्भकूड

आमकां नाका प्रस्न
नाका पळोवंक सत
म्हूण फातराक लेगीत लायतात
पाकळी फूल

## प्रस्न 2

हे पुरुशा,
तुजे खातीर
हांवें म्हजें
तन उक्तें घालें
संवसाराचीं सपनां सोडून
केली जिवाची दैना
तरीय तुजी भूक
अजुनय तुका सोंसपाक जायना?

हे पुरुशा,
म्हजे सारकिल्ल्या
कितलेशाच जाणांनी
हावेसांक तांच्या लायलो उजो
तरीय वसवशिल्ले कुडीक
भुकेचो हो कसलो सोंस तुजो?

हे पुरुशा,
अजुनय म्हजे प्रस्न
धांपूनच दवरल्यांत हांवें
मनाच्या कोनश्यांत

स्वताचे धुवेक विकून उडोवपी
म्हजे आवयबापायकच
कांय प्रस्न विचारपाचे उरल्यांत...!

# पांकळ्यो

उतरांचीं फुलां गुंथलीं
तुज्या काळजा कुरकुटांत
स्पर्शाचो अर्थ नवो
तुज्या यादींच्या घोंटेरांत.



आंगणांतल्या दिव्या आयज
मुमरखोच हांस
काळखांत लेगीत दिसता पळय
हावेसांची रास



दोळ्यांत ताच्या सुन्न न्हिदलां
मायेचें एक सपन
ओंठार खेळपी हांश्यांत लेगीत
सोदता तिचेंच दर्पण.



पाचव्या तुज्या शालवाची
मोरपंखी देग
उमलता काळजाचेर
यादींची रेग

उडून गेली साळोरी
आत्तां म्हज्या जनेला मुखार
मनांत तेन्नाच जिवो जालो
काळजांत लिपिल्लो चित्रकार



तुजे बरोबर ल्हान जातना
म्हजें म्हाकाच उरना भान
खिणांत जातात उतरां बोबडीं
मनय म्हजें जातां सान

## पांकळ्यो



पावस पिसो
असो कसो
भरता रितो
यादी पोंसो.



म्हज्यांतली भुरगेपणां कमी जायनात
तो मेरेन म्हजें मरण टळटा
बोबड्या म्हज्या उतरांनी
काळजांत उमेद फळटा.

पांकळ्यो

तुज्या म्हज्या यादींक आयज
फुटला नवो चंवर
काळजा भोंवती मोगा मुसांनी
धरला पळय भोंवर.



भरून येतां मन तेन्ना
उलोवचें खंय कमी
जड जातात पावलां
उतरां जातात मोनीं.



चिंब भिजिल्ल्या श्वासाक म्हज्या
तुज्या ओंठांचो स्पर्श जाय
आंगार फुलिल्ल्या कांट्याक म्हज्या
तुजे वेंगेची जोड जाय.



पावसाच्या हुंवाराक आयज
म्हज्या हुसक्यांची जोड
फालच्या उमेदींक मेळत काय
ताच्या पावळ्यांची ओड?

## पांकळ्यो

भिरी भिरी पावसा
सुखांनी भर
घोग्यांनी पयस जावं
दुख्खांची झर.

•

केन्नाच कसो आयकूंक येना
उतरां विणें घाल्लो साद
विरूस जाल्लें म्हजें मन
तरीय ताका तुजीच आस.



# अन्वेषा सिंगबाळ

- 22 मार्च 1986 जल्म
- 2008 वर्सा जी. आर. कारे महाविद्यालयांतल्यान कायद्याचेर शिक्षण पुरय केलें उपरांत वेवसायाचो मार्ग बदलूं पत्रकारितेंत उडी.
- सुमार दोन वर्सां 'सुनापरान्त' ह्या कोंकणी दिसाळ्यांत आनी ते उपरांत 'गोवन ओब्जर्वर' आनी 'गोवा 365' ह्या खबरांपत्रांनी आनी चॅनलांत काम केलां. 'द गोवन' तशेंच 'हॅराल्ड' ह्या खबरापत्रां खातीर लिखाण केलां.
- सद्या अणकार क्षेत्रांत काम करता. सरकाराच्या अणकार मंडळाचेर अधिकृतपणान नेमणूक जाल्या आनी सरकारी कागदपत्रांचें कोंकणीत अणकार करता.
- पुस्तकांचें प्रकाशन, विक्री, जायरात अश्या स्वरुपाचो अभिनव क्रिएशन्झ हो स्वताचो वेवसाय सुरू केला.
- कविता, निबंद, अणकार अशे तरेकवार साहित्य प्रकार हाताळटा.
- 'सुलूस' हो पयलो कवितां झेलो नोव्हेंबर 2011त प्रसिध्द जाला.
- गोंयां भायर इन्स्टीट्यूट मिनेझीस ब्रागांज, साहित्य अकादेमी, गोवा कोंकणी अकादेमी, नागरी लिपी परिशद, अंत्रुज घुडयो हांणी आयोजीत केल्ल्या साबार प्रतिष्ठीत कार्यावळींनी कविता सादर केल्यात.
- इंटरनॅशनल सँटर, गोंय विद्यापीठ, गोमंत विद्यानिकेतन, गोवा कोंकणी अकादेमी, सारकेल्या प्रतिष्ठीत संस्थांनी आयोजीत केल्ल्या चर्चासत्रांनी वांटो.
- पयलींच्यान कोंकणी खातीर आनी तरणाटे तशेंच बायलां खातीर वावुरपाची धडपड. कोंकणी मळार एक बरें संघटक म्हणून वळख.
- कोंकणी भाशा मंडळाचें आदलें सचीव. सद्या अस्मिताय प्रतिष्ठान ह्या म्हालगड्या संस्थेचें सचीव.
- 2013 वर्साचो गोवा कोंकणी अकादेमीचो युवा चैतन्य पुरस्कार फावो जाला.
- 2016 वर्साचो केंद्रीय साहित्य अकादेमीचो युवा साहित्य पुरस्कार फावो जाला.

# मना वयल्यान मोरा पांख भोंवडायतना

कोणेंय नाजूक हातांनी मोरा पांख आंगा वयल्यान भोंवडायतना कुडीक जी संवेदना जाता तीच संवेदना अन्वेषा सिंगबाळ हांची ह्या झेल्यांतली कविता वाचतना मनाक जाता. एके तरेची हुळहुळसाण... भावनेची ल्हवपीक शिरशिरी...

हे कवितेंत विशयांची, छंदांची आनी मांडणेची विविधताय आसा. ताका लागून तिका अमूक एक नांव दिवप कठीण जाता. खोल खंय तरी मोगाची आनी फाटीं पडिल्ल्या अणभवांची पसय दिसली तरी तिका मोगाची कविता म्हणूंक जावची ना. तशें, कवितेक असलें कसलेंय लेबल दसोवंकूच जाय असो नेम ना. अशें आसुनूय, हे कवितेक नांव दिवचेंच जाल्यार, ह्या झेल्यांतल्यो कविता ह्यो 'मनाच्या नात्यांच्यो कविता' अशें हांव म्हणीन.

चडशा कवितांनी हांव आनी तूं वा तूं आनी हांव अशें दोन मनांचें नातें झळकता; पूण हेर कविता ह्या नात्याचे पलतडीं वचून दुसऱ्या विशयांकूय स्पर्श करतात.

ही कविता ल्हवपीक. मनाचेर वा बुद्दीचेर ताण घालिनासतना काव्य-रसिकाक समादान दिता. वयर-वयर ही कविता आत्मनिश्ठ दिसली तरी कांय अणभव हेरांकूय आयिल्ले आसूं येतात. आनी कविता आत्मनिश्ठ आसली म्हणून तिच्या दर्ज्याक बादा येना. ह्या झेल्यांतल्यो कविता कवयित्रीच्या स्वताच्या अणभवांतल्यान स्फुरल्यात आसत जाल्यार तें सभावीक. अखेरेक पद्य आसूं वा गद्य, रचपी साहित्यीक आपणाल्या अणभवांचे तळयेंत आदीं उडी मारतली वा मारतलो न्हय?

मनांच्या नात्यांच्यो ह्यो कविता रसीक वाचप्यांच्या मनां वयल्यान ल्हवपीक मोरा पांखां भोंवडायतल्यो आनी म्हाका आयलो तसोच अणभव तांकांय येतलो अशी खात्री हांव बाळगितां.

- उदय भेंब्रे

अभिनव
CREATIONS